# केरळांत कोंकणी साहित्याचो उदय

**- शरतचंद्र शेणै**

केरळ भुंयेर कोंकणी जनांनी येवन राबितो करून आतां अनेक शतकां जालीं. शतकां पूर्विल्ले एक अतिदीर्घ यात्रेंत ते पूर्वज गोंयचान आयलेले, आपण्यालीं घरां, भाटां, शेतां आनी गांव वाठार सोड्डून आयलेले. ते आपण्याले घरकारांक आनी सोयर्यां धायर्यांक बी म्हार्यांत घेवन आयले. थोड्यांनी आपण्याले कुलदैवतांक मोट बांदून हाडले. मागीर आपले आपले गरजे प्रमाण हातांत राबता तसल्यो वेगळ्यो वेगळ्यो वस्तू हाडल्यो. पुण एक खरें, सगल्या समस्तांचे हरद्यांत मायभास कोंकणी आशिल्लीच! हरद्यांत मात्र न्हय, तांचे जिबेरीय ती बरीच घोळताली. राबितो केले नंतर तान्नी तांगेले आंगणांत तुळसीची रोंपी लायलेली तर हरद्यांत रोयलेली कोंकणीची सरशी! ती तान्नी प्रदर्शनीक दवरलीना खरी, पुण सदैव जिती दवरली!

आजि शतकां उपरांतेंय आमी ही भास आनी संस्कृती राकूक पावले जाल्यार ताचें श्रेय वता तें तांकां, आमकां न्हय! धा वा तीस जनांनी आठयल्यार साध्य जावंचें सोपें कार्य न्हय हें. हाका चमत्कार म्हणूच सांगप. हो चमत्कार साध्य करचांत ते आद्य पूर्वज धरून एकेक पिळगेंतुलेय अनेक जनांलो हातभार आसा.

ते पूर्वज चडय व्यापारी आशिल्ले. जाल्यार सगलेय तशी न्हय. इतर क्षेत्रांत, जशी आयुर्वेद, राजनीती आदी, सामर्थ्य आशिल्ले प्रतिभावंत जनय अनेक आशिल्ले. गोंयांतूंय तसले क्षेत्रांत ते विख्यात आशिल्ले आनी मागीर केरळांतूय वेगीन ख्यातीक पावले. सतराव्या शतकांत कोचीचो डच कुमुदोर जेन्ना एक महापुस्तकाचे निर्मिती विशीं चिंतूक लागलो तेन्ना ताजे नदरेक गेलेले कोचीचेच तेग प्रसिद्ध कोंकणी वैद्य. रंग भट, विनायक पंडित आनी आपू भट नांवांच्या त्या तेग आयुर्वेद वैद्यांनी सगल्या दोन वर्षांक सकाळ सांज वावरून, लागी राबून पर्यवेक्षण करून तो तागेलो 'लिव्रू' संपादून दिलोलो!

तांगेले अनन्य स्वाभिमानाक लागून त्या भीमग्रंथाच्या बारा खंडांतूंय कोंकणी भास परतून परतून तोंड दाखोवंक पावली! विश्वभर ख्यातीक पावलेले ते ग्रंथाचें नांव आसा HORTUS INDICUS MALABARICUS म्हूण. त्या ग्रंथाक ते कोंकणी वैद्यांनी बरोवन दिलेलें साक्ष्यपत्र लेगीत कोंकणीन आसा! तांची भास कितली सहज आशिल्ली म्हूण कळूक साक्ष्यपत्राचो एक वांटो हांगा दितां -

'..तिं तिं वोखद आणवून त्या त्या झाडांचें फल फूल पान बीज समस्त त्या त्या रुतुकाळावरि संपादून तिंतीं चितारिलीं. त्या उपरांत आमिं आमगेल्या वैद्यग्रंथाचा निघंटा प्रमाणिं त्यां त्या ओषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेलो तो वा त्यां ओखदांचीं नावं पळेउनु आजि दोनि वर्षं सकाळिं सांजे आमिं लागि रावूनु हो लिव्रु संपादून दिला...'

पूर्विकांक कोणाक साहित्या खातीर संद वा वेळ नाशिल्लो. कित्या म्हळ्यार तांचे मुखार जीणेचे शंभर रूक्ष प्रश्न आशिल्ले. तांच्या हातांत कुटुंबाचें आनी समाजाचें जीवित घडोवंचें होड काम आशिल्लें. समाजाचें स्वत्व राखप म्हळ्ळेलेंच तांचे खातीर एक होड आह्वान आशिल्लें. तांचो निरंत यत्न आशिल्लोय तेच दिशेन. घरां भितर आनी सामाजिक वातावरणांत एक अपरूप सर्शी कशी कोंकणी भास वाडली. लोकसाहित्यांतुल्यान (गीत, काण्यो, आळीं, म्हणी) तशीच गार्हिक आनी अनुश्ठान गीतांतुल्यान कोंकणी वाडली.

कालाकालाक जें जें घडता तें समस्त तिगून वरता अशें ना. होड होड पावसाचे लेगीत पयले थेंबे पडिल्ल्या खिणाकच सुकून वताय की ना? होड होड रुकाचे पयले पाल्ले, पयलीं फुलां मागीर सोदल्यार सरी मेळचींनाय! जाल्यार तांचें अस्तित्व ते होड रुकाचे अस्तित्वा इतलेंच खरें. हे वरी, भाषेचे रंगाचेर आदल्या काळाक कितें कितें घडलें, तें समस्त कोणें कोणें केलें हें कळूक आजि वाट ना! जाल्यार कितें ना कितें, कोणें ना कोणें केले विना भास जिवी उरची नाशिल्ली हें सरळ सत्य.

एक परणें खंडकाव्य तिगलें - 'श्री वेंकटेश कल्याण'. पुण तें कोणें रचिल्लें हाची खबर ना! कोंकणींतुल्या रचनाकारांचीं नांवां स्पष्ट जावूंक लागलेलीं वीसाव्या शतकाच्या आरंभाक धरून मात्र.

आपणाल्या नांवान वळखीक पावलेली केरळची प्रथम कोंकणी बरोवपी आसा कोचीची श्रीमती अम्मूलक्का शेणै (1851-1902). केवल तीस वर्षांचे तरूण प्रायेरीच तिणें भाषासेवा शुरू केली. जाल्यार तिगेले मरणा उपरांत शंभर वर्षां दांटवूनूय तिणें रचिल्लीं कीर्तनां तिगून वरल्यांय. 1881 वर्षा तिगेले बाप्पाले (जानार्दन शेणै) मुखेलपणार कोची वेंकटपती देवळांत पुनःप्रतिष्ठा जालेली. तशीच 1886 वर्षा ते देवळांत भांगरा गरुडाचें वाहन ताणें समर्पण केलेलें. ह्या दोन महोत्सवां विशीं श्रीमती अम्मूलक्कान रचलेले गीत आजीय जनहृदयांत आसाय. तिणें वेगळेय गीत रचिल्ले. तिगेले थोडे समकालिकांनीय भक्तिगीत, भजनां आदी रचिल्लीं. तशी थोडीं गीतां आजीय जन गायताय. पुण खंयचे गीत कोणें रचिल्ले म्हूण खात्री ना इतलेंच.

तिका धरूनूच केरळांत कोंकणी साहित्याचो उदय जालोलो अशी दिसून येता. केरळांतल्या कोंकणी साहित्याचीं उदयकिरणां म्हळ्यार तिगेलीं कीर्तनां - 'लक्ष्मी प्रतिष्ठा', 'भांगरा गरुड', 'अयोध्यांतु रामु आयला', आदी. हांवें संकलन आनी संपादन केलेल्या 'नंदादीप' म्हळ्ळेल्या संकलित संग्रहांत (प्रकाशकः Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi-32) हीं कीर्तनां आनी लेखिके विशीं चड म्हायती आसा. भोवच संगीतबद्ध पदां तिगेलीं. स्वल्प परिचय मेळचो म्हणून थोडीं पदां हांगा दितां -

*'लक्ष्मीवेंकट रमणा, चरणकमलांनी शरणा,*
*मिजवरी करी करुणा!'* *(लक्ष्मी प्रतिष्ठा)*

*'रुप्याचे कलश आट, ताजे लेकान रुप्या ताट*
*भांगराचें चिपट, शंखू, घांट*
*घांटेरी बेसोलो गरुड भांगराचो थेट!'* *(लक्ष्मी प्रतिष्ठा)*

*'मकर मासू, आटवो दीसू,*
*वेंकटपतीन केलो गरुडारि वासू*
*तेद्रूस नड्यारी कसोलो आघोषू*
*जनांले मनांतु होड्ड संतोषू!'* *(भांगरा गरुड)*

मागीर दोन दशकां उपरांतें एक नवेंच ल्हार आयलें. तिरुवितांकूर गौड सारस्वत ब्राह्मण परिशद म्हूण एक संस्था जन्माक आयलेली. संस्थेचें मुखपत्र म्हणून एक म्हयनाळें नेमान उजवाडा येवूंक लागलेलें - 'सारस्वत बोधिनी'. हें पुण मलयाळम भाषेन आशिल्लें. ह्या म्हयनाळ्याचे एक संचिकेंत 1923 वर्षा, पळ्ळिपुरम गांवांचे श्री. आर. सी. शर्मा (1897-1980) हान्नी एक लेखन बरयलें. 'नम्मुडे भाषा' (आमची भास) म्हळ्ळेले ते लेखनांत तान्नी मना काळजाक लागूचे रूपान कोंकणी विशीं एक बरें उद्बोधन दिलें. मातृभाषेक साहित्याची केद्दी गरज आसा म्हळ्ळेल्याक तान्नी एक उदाहरण दिलें. ताची एक सामान्य परिभाषा हांगा दितां -

'आमगेली आवसु सौंदर्यांतु मुकार न्हय आसत तरीय माकशीं न्हयच. आतां मेरेन रांदपा कूडींतूच बेसून धूळी धुवोर घेतलेले कारणान तिजें आंग चिके बुरशेल्यां, इतलेंच. बरे तरेन भायर सरून, बरीं वस्त्रां आनी आभरणां घालून देंवल्यार तिका नव्यान सन्मान मेळतलो!'

असल्या तांगेल्या उद्बोधनाचो सामान्य परिणाम जशी 1924 वर्षा भरलेले परिशद सम्मेळनांत एक थाराव आयलो. 'सारस्वत बोधिनी' मासिकेंत कोंकणीचे खातीर थोडीं पानां प्रति म्हयन्यांत आरक्षित दवरचीं म्हूण तो थाराव आशिल्लो आनी ताचो सर्वसम्मतीन अंगीकार जालोय. थाराव मलयाळम भाषेन आशिल्लो तरीय त्या परिशदांनी अध्यक्ष भाषण सयत सगलीं कार्यक्रमां कोंकणीन चलतालीं.

तशी जावन मासिकेंत प्रथम उजवाडाक आयलेली पद्यकृती आशिल्ली आलपुषा गांवांच्या वकील के. श्रीनिवास कामतीलें एक भक्तिगीत -

'परमात्माचें स्तोत्र'. ताणें वेगळेय भक्तिगीत रचीले आनी ते मागीर 'गानांजली' म्हळ्ळेले संकलित संग्रहांत उजवाडा आयले.

'सारस्वत बोधिनी' मासिकेंत मागीर एक उपहास रूपी काल्पनीक संभाषण आयलें - 'हळ्ळेंतुलो संवादु'. ताचे लेखकाचें नांव श्री. सीताराम प्रभू म्हूण आशिल्लें. पुण तें केवल एक लिखणे नांवच आशिल्लें, आनी यथार्थ लेखक आशिल्लो श्री. आर. एस. प्रभू (1878-1956). 'मंगळूरचे प्रथमले परिषदेचें वृत्तांत' म्हूण एक लेखन बी ताणें सारस्वतबोधिनींत बरयल्यां. तो आशिल्लो नामनेचे श्री. एम. शेषगिरि प्रभूलो म्हालगडो पूत आनी तो एरणाकुळम गांवांत राबतालो. ताणें ताच्या कामधंद्याक लागून जायत्या वाठारांनी भोंवडी केली आनी कोंकणींतल्यो अनेकानेक म्हण्यो पुंजावन त्यो सगल्योय अक्षरां प्रमाणें देवनागरीन बरोवन दवरल्यो. त्यो मागीर तागेले मरणा उपरांत 1985 वर्षा पुस्तक रूपान 'म्हण्यां सोरू ' म्हूण उजवाडा आयल्यो.

श्री. एम. शेषगिरि प्रभू (1855-1924) कोषिकोड गांवांचे. संस्कृत आनी मलयाळम भाषेचे नामनेचे विद्वान ते. तान्नी कोंकणींत एक व्याकरण, एक म्हण्यां झेलो आनी एक शब्दकोश इत्यादी तयार केले म्हूण परामर्श आसा तरीय तें कितेंच उजवाडा आयलेल्याची म्हायती ना. आनी तांचें हातबरपय मेळूंक ना.

उपरांतें श्री. मंजेश्वर गोविंद पै (1883-1963) हांगेलीं थोडीं दर्जेदार कवनां आयलीं. तांगेलें 'आमचें गोमंत' हें गीत खर्यानीच स्फुर्तिदिणें. थोडीं पदां पळेयाय -

*'आवय आमचें गोमंत, जय जय*
*धन्य धन्य तूं निरंत, जय जय*
*कीर्ती सदा तुजी दिगंत, जय जय*
*गांवू नांव तुजें महंत, जय जय!'*
*'आसूनी खंय खंय तरी आमी मायीं*

*आमचीं हृदयं सदा तुजे पायीं*
*तुजें न्हय गे हे आमचे हाड-मांस?*
*तुजी विना खंयची आमची दूद-भास?!'*

*'किरिस्तांव मुस्लीं आनी हिंदू*
*तुज्या मोगान आमी सर्वय बंधू!*
*एक तो देव आमचो, जन्मदाता*
*तूंचि एकि अपुरबायेची माता!'*

कन्नड भाषेचे महाकवी म्हूण कीर्ति पाविल्ल्या श्री. पैन कोंकणींत चड साहित्य रचलेंना तरीय, शेणै गोंयबाब ह्या महापुरुषाले भगवद् गीता परिभाषेक (श्री भगवंतालें गीत) अवतारिका बरोवंचें भाग्य तांच्या वांट्याक आयलें. 1955 वर्षा बरयलेल्या त्या प्रस्तावनेंतूलीं तांगेलीं उतरां भोव अपरूप. कोंकणी साहित्याचे विश्वांत आपूण एक ल्हान चानये समान म्हणून भोवच नमळायेन पुण अत्यंत काव्यात्मक भाषेन ते बरताय –

'हें कोंकणी गीतादेवीचें मंदिर उकतें करतना म्हजीं हीं चार आबोलीं हुंबरारि दवरतां..'

1926 वर्षा एक नवल जालें. वैकम गांवांच्या श्री. एस. जी. नायक हान्नी इंग्लीषांत थाकून एक विशिष्ट पुस्तक मलयाळम भाषेंत अणकारून उजवाडायलें. The Konkan and the Konkani Language (मूल लेखक : राव साहिब वी. पी. च्यवन) म्हळ्ळेलें तें पुस्तक मलयाळम भाषेंत अणकारून श्री. नायक हान्नी केरळांतल्या जायत्यांक कोंकणी भाषेविशीं महत्वाची जाणकारी दिली आनी ताचे निमित्तीं जायत्यांक प्रचोदन मेळ्ळेंय. संथ संथ केरळांतले कोंकणींत चड चड साहित्य निर्माण जावंचाक आरांभिलें.

एरणाकुळम गांवांच्या श्री. पी. एन. नरसिंह पै (1879-1959) हान्नी अनेक गीतरूपी हरिकथा रचल्यो, अवतरण केल्यो, छापून घेतल्यो आनी गांवां गांवांनी भोवन त्यो वितरण केल्यो. तागेलें 'कुचेलोपाख्यान' (1927) आनी 'चेल्लयाचरित' (1927) विख्यात. ह्या भाषामोगीन तागेलें साहित्यसेवन दशकां

संकीनी चालू दवरलें आनी 1951 वर्षा लेगीत एक पुस्तक छापून उजवाडायलें! तागेले कुचेलोपाख्यानांत शुरवेचीं पदां अशी -

*'कुचेलू म्हळ्ळोलो कोण, आयकाय जन, तागेलें चरित्र पावन!*
*ताका भूमीर मोहु ना मू सायूज्य मेळका म्होणू*
*रातीय दीसूय तपस्व कोरनु बेस्तोलो जालो ब्राह्मणू!'*

ताणें रचिल्ली 'महामाया' स्तुतीय नामनेक पावली. हे स्तुतींत जंय जंय 'हांव, माका,' म्हूण येता त्या त्या जाग्यांर जनांनी अपुरबायेन 'आमी, आमकां,' म्हूण करून घेतलें!

*'महामाये, तुका नमन, करता हांव भक्तीन*
*करी माका चांगपण, आयलो तुका हांव शरण!'*

चेराय गांवांची श्रीमती सरस्वती रंग भट (1894-1955) ही श्री. के. पत्मनाभ भटाली भयणी. वळखीचीं जनां तिका 'बैकक्का' म्हूण आपयतालीं. तिणें कोंकणींत अनेक भक्तिगीत रचले. जाल्यार पुस्तक रूपान उजवाडा आयलेनाय दिकून तिगेले गीत अमके अमके म्हूण वेंचून दाकोवप असाध्य. पूण एक जे गीताक थोडे जाणकार तिचें नांव लायताय, ताचें शुरवेचें पद अशी -

*'शांत जा रे मना, विषय सर्व सोडी.*
*पाय परमात्माचे निरंतर जोडी..'*

अंबलपुषा गांवांचे श्रीमती जी. कमलम्माळ (1902-1983) हान्नी एक संपूर्ण महाकाव्य - रघुरामायण - रचूंक शुरवात घाली आनी ताचें बालकांड 1930 वर्षा उजवाडायलें. साहित्यांतुले तिगेले अभिरुचीक तिका बापसूलें खूब प्रोत्साहन मेळ्ळेलें. म्हणूनूच तिणें बरयलें -

*श्री रघुरामायण केल्यारी पठन*
*मुक्तिदायक विद्या संपत्ती वर्धन*
*विद्यागुण संपन्न तात नियोगान*
*रामायणाचें कथन केलें कोमळान!*

'कोमळ' म्हूण तिजें घरचें नांव आशिल्लें. तेन्ना ती प्रायेन केवल 28 वर्षांची! तिणें तें महाकाव्य एक दशक भितर पूर्ण केलें तरीय तें उजवाडा आयलेलें 1981 वर्षा मात्र. जाल्यार 1978 वर्षा कोचींत भरलेले अखिल भारतीय कोंकणी परिषदेंत तिचो भोवमान जालो.

1930 वर्षा आनी एक विशिष्ट पुस्तक उजवाडा आयलें - 'भाषागानमंजरी'. हो आशिल्लो पळ्ळिपुरम गांवांच्या श्री. आर. सी. शर्मा ('सारस्वत बोधिनी' म्हयनाळ्यांत 1923 वर्षा 'नम्मुडे भाषा' म्हूण प्रचोदनात्मक लेखन बरोवपी) हांगेल्या सुमधुर भक्तिगीतांचो झेलो. हांतूल्या थोड्या गीतांक संगीत दिवन, गायन करून विख्यात संगीतज्ञा सुरमणी कार्कल महालक्ष्मी शेणैन आतां एक Audio CD लेगीत देवंयल्यां. श्री. शर्माली शब्दमाधुरी समजून घेवूंक दोन पदां पळेयाय -

*'हांवें सुख सोदीलें, दुख मू माका मेळ्ळें,*
*आयुष्य धावनु गेलें, जीवित व्यर्थ जालें,*
*करी, मुकारी, मिजेरी, हरी तूं दया!*
*देवा, देवकी सुता, राक माका!'*

*'दाकय तुजें रूप माका,*
*आनी पुणीय दुख दीवानाका!*
*भांगरा किरीट आसा मात्यारी*
*मोरा पाक ताजे उंचारी*
*तोंड पूर्ण चंद्रमा वरी*
*थळ थळ जाता भारी भारी!'*

1931 वर्षा तुरावूर गांवांच्या श्री. आर. माधव पै (1905-1971) हान्नी संपादित केलेल्या 'गानांजली' नांवांच्या भक्तिगीतांच्या संग्रहांत वेगवेगळ्या बरोवप्यांले गीत आशिल्ले. लेखक, संपादक, प्रकाशक तशीच एक बरे कार्यकर्ते म्हूण माधव पै हांची नामना. बरोवप्यांक एकडे करप, तांचें साहित्य

उजवाडावप आनी समस्तांक स्फूर्ती, उत्तेजन दिवप हो तांगेलो मुख्य धर्मु आशिल्लो.

पळ्ळिपुरम गांवांचे श्री. ए. डी. हरि शर्मा (1893-1972) एक मलयाळम पंडित आनी श्री. आर. सी. शर्मालो व्हडलो भाव. जे एक नेमाळ्यांत कोंकणी साहित्य पयलेच पावट आयलें, ते 'सारस्वतबोधिनी' मासिकेचे हे संपादक आशिल्ले. हान्नी थोडे कोंकणी भक्तिगीत रचले जे 'गानांजली' म्हळ्ळेले संकलित संग्रहांत मेळताय.

कारवारांत 1939 वर्षा अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें प्रथम सम्मेळन भरचे आदींच हीं इतलीं कार्यां हांगा जालेलीं. देखून ते परिशदेक केरळचान कोण तरी एक दोग जाण गेलेलेच म्हूण आठोवयात. ते सम्मेळनांत वाचा सादर केलेलें 'चंद्रहासचरित' म्हळ्ळेलें सुदीर्घ संगीत नाटक 1943 वर्षा मध्यकेरळचे तुरावूर गांवांत केरळचेच तरनाट्यांनी रंगमाचयेर अवतरण केलेंय!

1944 वर्षा पुराक्काड गांवांचे श्री. आर. रंगनाथ प्रभून (1898-1952) कोंकणींतुलें केरळचें प्रथम हस्तलिखित म्हयनाळें शुरू केलें - 'कोंकणी' (The Konkani). एकेक अंकाच्यो हातबरपानच बारा प्रती तयार करून ताणें त्यो वेगवेगळ्या गांवांनी नेमान पांवोवप! तांतूं वेगवेगळ्या गांवांच्या जायत्यांलें साहित्य उजवाडा आयलें. खुद्द ताणेंय जायतें बरप केलें आनी वेगवेगळे लिखणे नांवान उजवाडायलें. कोंकणींत 'कथा' बरोवपी प्रथम केरळकार लेखक तो! ताचे भायर कोंकणीचो एक शब्दकोश, एक व्याकरण इत्यादीय ताणें तयार केलेलें. पुण तें कांय उजवाडा आयलेंना. तागेले थोडे भक्तिगीत नवे पिळगेंतुल्यांनी आलापन करून आतां एक Audio CD देवंयल्या. 'कोंकणी' मासिकेचे प्रथम अंकांत ताणें बरयलेली प्रस्तावना भोव वस्तुनिष्ट आनी श्रद्धेय आशिल्ली. मिगेल्या 'नंदादीप' संग्रहांत ती सगळीच हांवें लिप्यंतर करून उजवाडायल्या. तांतूलीं दोन वाचकां पळेयाय -

*'कसलोचि जाल्यारीय सानूच एक उपहारु आमगेले कोंकणी भाषदेवीचे चरणांकडे विनीत अर्पण केल्यारी तिका अति होडु संतोषूय आमकां होडु अनुग्रहूय आत्मसंतृप्तीय जातली.'*

*'भासेचे खातीर आशिल्लो आमगेलो हो श्रमु केवल तुस्सू कांडून हाता फोडु काडचे समान व्यर्थु म्होण म्होणचे अनेक आसतले. आमगेले हे श्रमान स्वल्प पुणेय तुस्सू कांडता जाल्यारि हाताचे फोड आमकां दुकी न्हय, आनंद तं दितले!'*

ते हस्तलिखित मासिकेचे वावरांत सहाय, सहकार आनी साहित्यय बी दिलेले एक महंत आजीय आमचे मदें आसाय - कोचीचे श्री. के. पुरुषोत्तम पै! आतां हे शंभर वर्षां प्रायेचे.* मागीरच्या कालांत हान्नी कोंकणी साहित्याक जायती संभावना दिली. हांगेलीं चार व्यक्तिगत पुस्तकांय उजावाडा आयलीं.

श्री. आर. सी. शर्मान रचिल्ली 'अश्रुबिंदू' नांवांची विख्यात Elegy उजवाडा आयलेली तेच हस्तलिखित मासिकेंत. समाजांतुले तेग महंत मनीष लागीं लागींच निधन जालेले आनी तांचे उडगासाक ओंपिल्लें गीत आशिल्लें तें. कोंकणींतुले ते पयले वयले विलापगीताचीं निमणीं पदां पळेयाय -

*'आमचें अंतरंग भोरनू दीर्घनिश्वसन*
*तुमचे वंद्य विग्रहांक तेंचि नीरांजन*
*हंत, महंतांनू तुमचे दिव्य चरणांतू*
*अंत्य उपहारू एकु मूक अश्रुबिंदू..'*

अत्यंत छंदबद्ध आनी प्रासबद्ध (अंत्याक्षरा भायर द्वितीयाक्षरय!) तशीच अत्यंत सुंदर शब्दांनी सजयलेले हांगेले गीत सर्वय पूर्णतायेन काव्यगुणसंपन्न आसाय. 1978 वर्षा कोचींत भरलेले अखिल भारतीय कोंकणी परिषदेचे माचयेर हांचो सन्मान जालो.

1947 वर्षा आलपुषा गांवांचे श्रीमती वेदवती अम्माळ (1895-1980) हांगेलो भजन संग्रह 'भजनमालिका' उजवाडा आयलो. हांगेले गीत

विवरणात्मक आसाय. उपरांतें दोन कोंकणी पद्यपुस्तकां लागेन तान्नी रचून उजवाडायलीं. ती गांवा गांवानी यात्रा करताली म्हणून तिची वळख जायत्या गांवांतुल्या जायत्यांक आशिल्ली.

कोडुंगल्लूर गांवांचे श्री. के. पत्मनाभ भट (1890-1953) वेगवेगळे भाषेंत आनी विषयांत होड विद्वान आशिल्ले. तान्नी कोंकणींत 'ध्रुवचरित', 'प्रह्लादचरित' आदी हरिकथा रचल्यो आनी प्रस्तुत केल्यो. तांगेलीं थोडीं कीर्तनांय आसाय. तांगेल्यो रचना The Konkani म्हळ्ळेले हस्तलिखित मासिकेंत आयल्यो. मागीर तान्नी 'श्री सत्यनारायण व्रतकथा' कोंकणींत पद्य रुपान बरयलें आनी तें पुस्तक रुपान आयलेंय. ताचें निमणें पद पळेयाय -

*'कोटिलिंगपुरांतु आशिल्लो पत्मनाभ भट्ट*
*साधु सज्जनांक तो नित्य होडलो इष्ट्ट*
*कथा बोरोवंचाक ताणे काडलोलो कष्ट्ट*
*पोळोवनु सत्यदेवु जावो तो संतुष्ट्ट!'*

1947 वर्षा परावूर गांवाचे श्रीमती सुमित्रा बाय (1923-1984) हान्नी 'गानमालिका' म्हूण भक्तिगीतांचो एक झेलो उजवाडायलो. पुण दुर्दैवान त्या संग्रहाची एक लेगीत प्रति आतां मेळूंक ना!

1951 वर्षा एरणाकुळमचे श्री. पी. एन. नरसिंह पैलें आखेरचें पुस्तक उजवाडा आयलेलें. तेच वर्षा उजवाडा आयलेल्या कोचीचे श्रीमती द्रौपदी बाय (1885-1976) हांगेल्या 'गुरुभक्ती आनी वेंकटकल्याण' ह्या संग्रहांत 'श्री वेंकटेशकल्याण' म्हळ्ळेल्या परण्या खंडकाव्याची कथा संक्षिप्त करून पद्यरूपानच मेळता. ताचे भायर 'गुरुभक्ती', 'गुरुप्रतिष्ठा', 'कृष्णचरित', 'हनुमंतवैभव', 'वेंकटेश माहात्म्य' आदी स्तुतिगीतांय आसाय.

1952 वर्षा कुषुपिळ्ळी गांवांचे श्री. एन. एन. पत्मनाभ शेणै (1910-1989) हान्नी 'श्रीकृष्णभक्ती' नांवांचें भक्तिगीत संग्रह उजवाडायलें. ते पुस्तकाची एक विशेषता म्हळ्यार ताचेर कोंकणी भाषेन दोन जायरात लेगीत आशिल्लीं!

श्री. शेणैले गीत भोव लळित पदांचे आनी आत्मार्थ भावांचे. उदाहरणाक दोन पदां पळेयाय -

*'भक्तीची रोंपी वाढून रूक जाला,*
*ताजे पोंदाक राबूक माका स्थाय दिला!*
*फळ ताजें पिकून पोडच्यो दीसु कोण*
*रूची ताजी कोळूक माका होडी तान!'*

*'सान होड चेरडुबाळांक*
*आश्रयू तूंची, परमात्मा!'*

कोचीची श्रीमती जंबा बाय (1910-1995) 'संतीण जंबक्का' म्हूण नांव पावलेली. तिगेले भजनगीत 1964 वर्षा 'श्रीकृष्णलीलामृत गानमाला' म्हूण पुस्तक रूपान उजवाडा आयले. गांवजनांनी तिका दिलेलें नांव सार्थक करचे तराच्यो तिगेल्यो रचना. संत मीरा बायचे वरी ती कृष्णप्रेमांत बुडून आशिल्ली आनी अनर्गळ गायताली. दोन पदां पळेयाय -

*'देवकी नंदन कृष्णा, नंद नंदना!*
*काळीय मर्दन कृष्णा, नंद नंदना!*
*तूं... पांडवांलो दूतु जालोना वे?*
*दुष्ट कौरवांक मारलोलो न्हय वे!'*

*'कृष्णा, सर्वय तुगेली सृष्टी,*
*कृष्णा, कोणे लायली दृष्टी?*
*पंचप्राणा केली वाती,*
*कृष्णाक दाकयली आरती!'*

थोडीं जन कोंकणीन हरिकथा सांगतांलीं. तांतूं पद्य तशीच गद्यय येतालें. थोडे भाषामोगींनी, जशी चेराय गांवांचे श्री. के. वामन वाध्यार, श्री. वेंकटेश्वर पै, कुषुपिळ्ळीचे श्री. एन. एन. पत्मनाभ शेणै आदी जनांनी, तांचे तांचे गांवांनी कोंकणी नाटकां खेळयलीं. नाटकांचे कथावस्तु चडय पुराणांतुल्या काण्यांक आधारून आशिल्ले.

अदीकय नाटकांत चेरडुवांनी भेस चडयलोलो. थोड्यो हरिकथाय संथ वाढून नाटकां जालीं. 1923 वर्षा चेर्तला गांवांत भरलेले गौड सारस्वत परिशदेंत श्री. के. पत्मनाभ भट हान्नी 'प्रह्लाद चरित' म्हूण एक हरिकथा सांगिल्ली. तान्नी इतर अनेक हरिकथा सांगल्यो जाल्यार, तांगेलो धाकलो भाव श्री. के. वामन वाध्यार (1905-1991) हान्नी चेरडुवांक शिकोवनु संगीत नाटकां खेळयलीं - 'सत्यनारायण व्रत', 'शकुंतळा' आदी. कुषुपिळ्ळी गांवांचे श्री. एन. एन. पत्मनाभ शेणैनय अशी थोडीं नाटकां खेळयलीं.

जाल्यार एक संपूर्ण नाटक सादर जालेलें 1943 वर्षांत. कर्णाटकाचे बोळंतूर कृष्ण प्रभून रचिल्लें 'चंद्रहासचरित' म्हळ्ळेलें तें सुदीर्घ नाटक तुरावूर आनी चर्तला गांवांनी तीन पटी सादर केलें. तुरावूर श्री. आर. माधव पैन ताचें दिग्दर्शन केलेलें. कोंकणी नाटकाचे रंगार कण्णूर गांवांचे श्री. वी. गणेश प्रभूलें नांवय उल्लेखनीय आसा.

कोचीची श्रीमती गंगा बाय (1904-1983) हान्नी स्वयं कांय रचलेंना. जाल्यार तिका कोंकणींतले अनेक आनी अपरूप लोकगीत हृदिस्त आशिल्ले, जे ती सगल्यान सादर करताली आनी तांची व्याख्या लेगीत दिताली!

अश्या थोड्यांक लागून केरळांत कोंकणी साहित्याचो उदय जालो म्हूण दिकूयेता. जाल्यार ह्या थोड्यांलो श्रमु केवल तांचे पुर्तोच राबलोना. तांका समाजांतुल्या वेगळ्या थोड्यांलो तेंको मेळ्ळो आनी तांगेल्या त्या आत्मार्थ परिश्रमाक अनेक सामान्य जनांलो अंगीकारूय मेळ्ळो. सामान्य जावनु सांगल्यार सगल्याय गांवांनी त्या त्या देवळांतुल्या उत्सवांच्या कालार आनी तशीच नवरात्रीच्या कालार कोंकणी भास जागृत जाताली. उपरांतेंय, आज लेगीत, ही संवय तशी सोडून गेलीना म्हणचेंच वास्तव!

कालु कोणाक राकून राबना. सांज जातना जशी फुलां बावंताय आनी गळून पडताय ते वरी आमचे पूर्वज मातयेंत मेळ्ळे. जाल्यार तांगेल्या कर्तुपांचो पोरमोळ, चैतन्य आजीय वरल्यां. ताचो आमी सन्मान करूंया.

आजीचे सुखसुविधेंत बुडून आशिल्ले आमकां तांचे जिणेविशीं खरें म्हळ्यार कल्पना लेगीत करूक जायना! जीण तांकां एक झूज आशिल्ली, एक संग्राम आशिल्लें. तांगेल्या सुदृढ आत्मबलानच तीं विजय पावलेलीं. तान्नी जिणेचें व्हडें लक्ष्यार पावयलेलें आत्मविश्वास, शुभाप्तिविश्वास आनी ईश्वरविश्वास ह्या तिनांच्या बलान. सगल्योय अडचण्यो तरण करून, सगलींय आह्वानां हुपून, आपण्याली संस्कृती आनी भास तान्नी सांबाळ्ळी, शंभर शंभर वर्षांक सांबाळ्ळी! हें समजून घेतना आमकां आमगेलें उत्तरदायित्व स्पष्ट कळून येता मू!

---

- This article is included in -
  - 'अमर कोंकणी' (2016) a half yearly research and literary journal published by the Institute of Konkani, Mangaluru.
  - 'रसिक रसायन' (2019) a collection of essays by this author, published by Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi - 32.

---


- Saratchandra Shenoi (saratchandrashenoi@gmail.com) is a *Sahitya Akademi* award winning Konkani Poet and Kochi based writer. He has over 25 books to his credit which include collections of poetry, fiction, non-fiction, children's literature, multi-lingual translations, language guides and edited anthologies.


---